# दोनी उतरां

कोंकणी गींत, नाटक आदी कला कार्यक्रमांतु मुरथम साकून रूचि आसा. तसल्यांतु वांटोय घेतलो आसा. जाल्यार कोंकणी काण्यो कविता सगट वाचूक माका प्रचोदन मेळ्ळेलें मिगेले बामणाले पुस्तक शेखरांतु साकून तं. तशी मातृभाषेवेलो स्नेह वाड्डून आयलो, आनी एकेक काणी बरोवंचाक आरंभ घालो. तांतूल्यो धा काण्यो वेंचून एक पुस्तक कोरका म्हूण मिगेले घरकारांलो आग्रह. तशी तं हें पुस्तक जाल्यां. कोंकणी भाषाप्रेमी हें मिगेलें प्रथम पुस्तक मनान स्वीकार करतले म्हूण आशा पांवतां.

हे मिगेले कथा संग्रहाक चांग रूपान प्रस्तावन बरयलेली प्रशस्त लेखिका श्रीमती सूर्या अशोकाक हांव हृदयाचे भाषेन उपकार सांगतां.

कोंकणी मातेक नमन करनु मिगेलो प्रथम कथा संग्रह तिगेले पावलांकडे समर्पण करतां.

**- राधिका शेणै**

# उजवाडाचीं उतरां

चरित्रातीत काळांत आदिम मनुष्यान गुफेंचे फातरांचेर चित्रावनु घालेलीं तींच आदिम बरपां. ते कालाक उलोंवची भास रूपांत आयलेली कि ना म्हूण स्पश्ट कळना. देकून तींच आदिम चित्रां आधुनिक साहित्याचे सगल्यां पशी पूर्विल्ले पूर्वज म्हूण सांगूयात. भासेंचे जन्माक लागूनूच काणी सांगूचेंय जन्मार आयल्यां हें निश्चित आसा. आद्याद्य साधारण संभव विवरण करच्यांत आरांभून आसूयात मागीर मनोरंजक काण्यांचो उत्भव. ते उपरांतेंच त्यो बहु उपयोगी जाल्यो आसूका, जशी धार्मिक आवश्याक, चरित्र दाकोंवचाक, सांस्कारिक रीतरिवाज, नीति न्याय, गुणदोष, बरी चालचलणूक आदी शिकोंवचाक. अशी, सांगूच्यांत साकून मागीर तळतांचेर, कागताचेर बरोंवच्यांत आनी छापणयंत्राचे आविर्भावान पुस्तकांचे रूपान बर्यो बर्यो काण्यो सर्व कडेय लोकप्रिय जाल्यो.

केरळांतुले कोंकणींत लोककाण्यो आनी पुराण कथा वाचा रूपान, चड जावनु स्त्रीजनांचे जिबेवेल्यान जिवंत राबल्याय. हेच वरी आतां बायलांनी रचिल्यो साबार काण्यो नेमाळ्यांचेर येत आसाय. जाल्यार ह्यो पुस्तक रूपान येवप विरळ देकून श्रीमती राधिका शेणैलो हो प्रथम संरंभ मोलादीक दिसता आनी मनांत अत्यधिक संतोष हाडता. कोंकणीचे दृश्यश्रव्य कलारंगार तान अशिल्ली ही लेखिका सुमार वर्षां जावनु मिजे परिचयांत आसाच आनी तसल्या कांय संरंभांत आमचो दोगांचो सहयोगूय जाला. म्हणूनूच हे संग्रहाक हें आमुख बरयतना माका विशेष रूपान संतोष दिसता.

ह्या संग्रहांतुल्या धा काण्यांचेय विशय वेग वेगळे तरीय चडय काण्यांतु मानुषिक संबंद संवेदनात्मक जावनु चित्रायल्याय म्हूण दृष्टि पडता. प्रतिपादन निवळ सरळ आसा आनि भास भोवूच मोव तशीच आकर्शणीय.

पयले काण्येंत मुख्यपात्रान भोव काळ जावनु घेवनु भोंवचे एक इच्छेचें आनी वर्षां उपरांतें राकून मेळ्ळेले इच्छापूर्तीचें विवरण आसा. जाल्यार तें संतोषा बदल कशी दुःखाचें कारण जाता, हें हे काण्येची विशेषता. तरीय लेखिका

आशावादी देकून सुरंगाचे तलवाक दृष्टि पडचे उजवाडा सारकी वाचकांचे मनांत बरी आस बाकी दवरनूच काणी राबयता.

‘पोणती’ म्हळ्ळेले काण्येंत एक तरनाटेलो पोणजो आबू धनवंत आनी प्रतापि अशिल्लो तरीय ती आंतां स्वंत कुटुंबाचे नित्यनिदानाक अत्यधिक कष्ट काडता. पूर्वकालाचे प्रतापाच्यो साबार काण्यो तीणे आयकल्याय तरीय त्यो कांय आतां तिका उपकाराक पडनाय. ती आतां स्वंत परिश्रमान आपल्या पांयार राबूक शिकल्या आनी समाजा मुकार तशीच जीविताचेय मुकार आपलें मातें उबारनु धरूक पावल्या. आपल्या घरांत साकून कष्टांचो काळूक दूरा करून ती एक उजवाडा पोणति कशी परजळेता.

‘पुण्यवंति’ म्हळ्ळेले काण्येंत नेत्रदानाचें महत्व हृदयस्पर्शी जावनु चित्रायल्यां. एक असाधारण रूपान, Sixth Sense म्हळ्ळेल्या वरी हांतूले मुख्यपात्राक एक यात्रेंत भेटलेले एक अनवळखी चेलेचो व्होड परिचय दिसता. ताजें कारण काण्येचे अंत्यार स्पश्ट जाता!

‘अर्धविराम’ म्हळ्ळेले काण्येंत दोग जाणांले मोगाचे मार्गार विधिवैपरित्यान आयलेलें अर्धविराम प्रतिपादन केल्यां. अंत्यार सल्प तोडोव जावनु जल्यारीय विधि तांकां अनुकूल जाता आनी मुकार तांचे पुनर मिलनाचीं किरणां झळकताय.

बायलांलो अहंभाव आनि कुसुंगायो कारण दोग उत्तम मित्रांले स्नेहसंबंदांक पडलेली फूटि तं ‘शेजार’ काण्येचो विशय. एका लागून एक जावनु विद्वेष कशी वाड्डता आनि ते कारणान कितें कितें नियंत्रणा भायर वता म्हूण विवरण जाता. काण्येची विशेषता म्हळ्यार दोग घराकडेचे मनुष्यांचे आनि सूण्यांचे मदेंची तुलना, जी आमचे दोळे विस्कळावूक योग्य आसा.

‘सत्य अशिल्लो रूक’ हे काण्येंत मनुष्याक प्रकृतीचे लागी अशिल्लो संबंद दाकयला जाल्यार ‘उदका खबर’ हे काण्येंत उदकाचें महत्व उद्घोशण करता. ह्या काण्यांतु लेखिकेलेंच जीवन दर्शन प्रतिफलन जाता. रूक आनी

उदाक ह्या दोनि अमूल्य वस्तूंचे विशीं वाचकांक बरें उद्‌बोधन ह्या काण्यांत मेळता.

एक लेखिकेले निज तशीच साहित्यिक जीवितांतु आयलेले प्रतिबंध आनी संकष्ट हें तं 'अवार्ड' म्हळ्ळेले काण्येचो विषय. कितलेच वर्षांक दांबून दवरूनूय तिजे अंतरांतुली साहित्यिक अभिरुची कशी फुलूक पावली म्हळ्ळेलीच हे काण्येची विशेषता. हे विषयांत दिकूक येंवचे दादल्यां बायलां मदेंचे सामाजिक असंतुलनाकडे ही काणी बोट दाकयता.

'सात्तूली' म्हळ्ळेली काणी एक संदर्भ चित्रणच. सामान्य जीवितांतुले एक साधारण संदर्भाक एक व्यत्यस्त रूप दीवनु लेखिका आमचे हृदय तंत्रीक स्पर्श करता.

निमणी काणी एक वेगळेच विभागांतुली म्हूण सांगूयात. अत्भुतकथा वा FANTASY ह्या विभागांतुले काण्येंत आश्चर्याचो प्रयोग जाता. आमच्यो सुमार लोककाण्यो ह्याच विभागांतुल्यो, ज्यो चेरडुवांक भोव रुचिकर जांवच्यो. हे निमणे काण्येचो उद्देशूय मनोरंजनच.

केरळाचे कोंकणी नेमाळ्यांतुल्यान वाचकांक परिचित अशिल्ले हे लेखिकेन साधारण मनुष्यांचो, साधारण संदर्भांचो, आनी साधारण जीविताचोच परामर्श ह्या काण्यांत केला तरीय प्रत्येक काण्येंतूय एक ना एक असाधारण अंश आसा.

श्रीमती राधिका शेणैन कोंकणी मातेले पावलांकडे समर्पण केलेल्या ह्या निरांजनाचो उजवाड समस्त कोंकणी वाचकांक पांवतलो म्हूण माका विश्वास आसा. आनीकय मुकार चड चड काण्यो हे सहज लिखणेंतुल्यान उजवाडा येवोय म्हूण आशंसा करतां.

**- सूर्या अशोक**

# मांडावळ

# प्रथम पत्र

‘हांगा हेमलता प्रभु म्हूण कोणेंय राबताय वे?’ पोस्टमान निमगीता. तिका आश्चर्य दिसलें. ‘व्हय हांवच तं हेमलता प्रभु!’

‘मांयेंक एक बर्प आसा. मांयेंलें नांव हेमलता म्हूण माका कळना आशिल्लें. इतूलिं की वर्षां जावनु हांव केदनाय हांगा येवप आसा न वें? म्हळ्यार आजी भितर मांयेंक एक बर्प आयलेंना! तें दिकून माका नांव कळना जालें-’

चोयतना एक इनलेंड तं. जाल्यार तें मेळतना हेमा मांयेंक विवोरसूक जावनातीलो संतोष जालो. तिगेले साठी वर्षां भितर तिका प्रथम जावनु मेळचें बर्प तं तें!

हेमा मायेंक सान थाकून आशिल्लो होड आग्रोह तं एक बर्प मेळका म्हळ्ळोलो. तिगेले ओटू स्कूळांत वचे सुमंगलाक तिगेलो मामु सदांच बर्प पेटेयतालो. वाटेर दवोरनु पोस्टमान तिका उळदून तें बर्प दितालो. मासाक एक पुणीय आसतलें. ते सुमंगलालो मामु मद्रासाक आसा दिकून तं तिका बर्प घालतालो. जाल्यार हेमांलीं सर्वय बंधूजन लागी लागी गांवांतूच राबतालीं दिकून तिका कोणे बर्प घालेंना.

क्लासांत बर्प बोरोंवचाक सांगतना तीणे बहु सुंदर बर्प बरयलें. तिका टीचरांलें अभिनन्दनय मेळ्ळें. तिकाय तसलेंच एक बर्प कोण तरी मित्र बरयतलीं म्हूण तीणे आशा काळ्ळी. जाल्यार तिगेलो आग्रोह सफल जालोना. कोणे तिका बर्प बरयलेंना.

कोळेजांत पांवतना एकेक दोस्तिणीक सान होड ‘लव लेटर’ मेळता म्हूण तिका कळ्ळें. तिकाय तशी एक सान बर्प बी मेळू पूरो म्हूण तीणे आठयलें. आग्रोह घेतलो. तावळीय तिगेलो आग्रोह व्यर्थ जालो.

तिगेली व्हारडीक जालेली लागीचे गांवांत तं. तिगेलीं अम्मा बप्पा बन्धुजन सगट एकेक वेळार येवनु वतालीं दिकून तावळीय कोणे तिका बर्प

बरयलेंना. तिगेले बामणाक जायतीं बर्पां येतालीं. तावळी एकेक वेळार तीणे परिभव सांगप आशिल्लें ‘माका कोण बर्प घालना मू!’ तावळी तिगेलो बामूण तिका खेळु करतालो - ‘हांवच तुका एक बर्प घालीन!’

तिगेले धुवेकय लागीच गांवांत तं व्हारडीक कोरनु दिलेली. जाल्यार तिगेले बामणाक बंगळूर तं काम. तान्नी वचे वेळार तीणे धुवे लागी सांगिल्लें ‘धुवे मासाक एक बर्प पुणीय घालका गो तूवें!’ तशी करीन म्हूण गेलेले धुवेलें फोण एकेक दीस येता नंतणा बर्प एक सरी मेळ्ळेंना. फोणावेल्यान तावतावळी खबर अशी तशी कोळूक जाता दिकून मुकार तिगेलें बर्प मेळूक आशा दवोरनु कायरें ना म्हूण तिका कळ्ळें.

लागी घराकडेचे आत्ममित्रान सरी तिका ये कार्यांत निराशा पावयली. ती इन्दिरा तिगेले पुताले कामा खातीर दूर गांवांत राबूक वता दिकून तिजे लागीय हेमा मांयेंन होड कार्यान सांगिल्लें - एक बर्प तूवें माका पेटोवंचाक विसरू नज म्हूण! तीणेय फोण करप नंतणा बर्प बरयलेंना!

मागीर कोणें की आज मांयेंक बर्प बरयल्यां? ती तें बर्पय घेवनु भितर गेल्ली. अतीव श्रद्धेन तीणे तें इनलेंड वाकतें केलें. उणेच उतरां मात्र तं तांतू अशिल्लीं. जाल्यार तीं वाचीताच तिगेले दोळे भरले. दळदळीच होळनु ते उदका थेंबे ते बर्पार पळ्ळे.

तिगेलो मोगा नातू दीपून बरयलेलें बर्थडे ग्रीटींग्स आनी तागेले अम्मान केलेले लाडवाचें चित्र तं ते इनलेंडार अशिल्लें.

एक दिसा फोण करतना ताणें सांगिल्लें - ‘आये, हांव आतां बोरोंवचाक शिकीला! माका आयेलेंय आबोलेंय सग नांव बोरोंवचाक कळता!’ तिका यें आयकून होड संतोष जालोलो. मागीर एक दिसा तो निमगिता तिगेले जायदिसाक इत्तें पेटोवनु दींवका खंय! तीणे सांगीलें- ‘तुका आतां बोरोंवचाक कळता न वें? माका सान एक बर्प बोरोवनु पेटय!’

तशी तं यें बर्प आयल्यां.

जाल्यार हेमा मांय आतां तें बर्प हरद्याक लावनु होगी देवा कूडींत वचून हात जोणु अशी खोणसां काडता इत्याक?

इत्या म्हळ्यार दोन दीस पुरथम आयलेले फोणांत तिगेली धूव कुटुम्ब सहित यात्रा कोरचे काराक अपाय जालोलो विवोर तं मेळ्ळोलो. तांकां बायल बामणाक तशी कांय जालेंना जाल्यारीय चेल्याक - तिगेले मोगा नातवाक - हेड इंज्वरी आसा खंय. हेमा मांयेलो बामूणूय थांगा धावला. तिका जाल्यार हार्टाचें असौख्य आसा म्हूण व्हेलेलीय ना!

‘तान्नी इतेंय बी माका निपयताय कीं? देवा, मिगेले मोगा दीपूक कांय जांवनयें! सबसूब जावनु तागेलें एक उतर माका तूवेंच आयकोंवका!’

तिका उतरां फुटनाय. तिगेले दोळ्यांचें उदाक लागून तें प्रथम पत्र तशी तिमताच आसा. हेमा मांयेंले हरद्यांत थाकून फुटल्ली ती प्रार्थना देवान कान्नांत व्हेली म्हणूच आमी आठोवया.....

# पोणती

‘सरिता, आजी तूं साकांघडीच पावली मू!’ मानेजराक आश्चर्य. रजिस्टरार ओप घालतना तीणे जाप दिली- ‘आजी बसाक ब्लोक कांय मेळ्ळेंना दिकून हांव होगी पावली.’

पुरावस्तु म्यूसियमांत गायडा दंद तं सरिताक. संदर्शकांक एकेकाचें विवरण विवर सांगून दिवंका. म्यूसियमांत सगळे कडे तांकां भोंवडावनु दाकोंवका. स्कूळांतुलीं चेरडूवां येतना मात्र तं कष्ट. सगटांक यें तें सर्व आपोणु चोंवका!

‘तें काणक्का, यें आपोणक्काय!’ म्हूण सांगून ताळ्या उदाक आटतलें! कोळेजांतुल्यांक जाल्यार जायते जायते प्रश्न तं. तांगेले प्रश्नाक जाप दिताच राबूका.

बाग, सात्तूली राकार दवोरनु सरिता संथ तिगेले सदांचे स्थायार वचून बेसली. आजी वेतनाचो दीस तं. घराकडेचीं एकेक लेकां तीणे उडगास केलीं. तिगेले ये दुडवानी जाय घराकडेचीं सर्व कायरीं जावंचाक. बेटो वेळ मेळ्ळ्यार अशी इतेंय आठोवनु उडगास कोरनु बेसप तं तीणे. आजी कशीय जाल्यारीय चांग दीसु. सकाणीच आयले दोग जाण विदेशी संदर्शक. तीणे अनायास जावनु तांकां इंग्लीषान सर्व सांगून दिलें. सर्व कडेय ते स्वल्प वेळ काणु तं चोयतले. जाल्यार तांकां होड तात्पर्य आसा. सांगून दिवंचें सर्वय श्रद्धेन आयकतले. वतस्तना संतोषान इतेंय तरी दितलेय ते. आजी तिका सकाणीच मेळ्ळे पन्नास रुपया.

तें जावनु पोरतून ती तिगेले कदेलार बेसली. मागीर कोण येता दिकलें ना. छट जावनु तिका एक उडगास आयलो- दोन दीस पुरथम हाळ्ळेलें रायालें किरीट. तें आतांय प्रदर्शनाक दवरलेंना. अपूर्व अनीक चड मोलाचें दिकून तत्काल जावनु ओफीसांतुले सेफांत दवरल्यां. तेद्दूस तीणे ते किरीटार दिकिल्लीं वज्रां, मरतकां, पोवळीं आनी तिका नांव कोळनातीलीं

इतर जायते तराचीं रत्नां थळथळेतालीं. ताजे उजवाडांत तिगेले दोळे विशविशेताले.

किरीटा विशीं आठोवनु बेसल्ले सरिताले मनांत संत तिगेले आबोलें तोंड उदेलें. आबोलीं वर्तमानां, काणियो तिगेले मनांत धावनु आयल्यो. तिगेलो आबू रायकिणीलो एकलोच पूत. रायकिणी म्हळ्यार एक कालाचो होड प्रतापी मनीष. ताका चोंवचाक त्या कालाचो राय सरी आळतांनू येतालो खंय!

‘दोरक्यांलीं कसलींय कायरीं आसा जाल्यारीय राय तुगेले पोणजब्बो लागी निमगून तं ताका परिहार समाधान करतालो- कळता वे तुका!’ म्हूण सांगून तिगेलो आबू तिका चोवनु हासतालो-

रायाले रत्नकिरीटाचो उडगास करतना सरिताक आबोलीं उतरांय उडगासार आयलीं- कुटुम्ब महिमा सांगतना आबोक शें जीब तं!

पुत्तळी, भांगार, पवळें सग तीळेल लावनु हातरार सुकत घालप आशिल्लें खंय! आबोली अम्मा - रायकिणीली बायल - एकेक दिसा एकेक रत्ना माळा खंय घालताली! थरवाडार कोण आयल्यारीय तांकां सगटांक पंचपक्वांनी वाडतालीं खंय. देवळाचे चार गोपुरय रायकिणीन खंय करयलेले. भांगरा पाल्लकी आनी भांगरा मांचो ते थरवाडार थाकून खंय दिलोलो.

मागीर रायालो कालु गेलो. जनपदांलें सरकार आयलें. गजनी, परम चडय कुडियाळांक दिंवका जालें. नवे नवे नेम आयले. जायतें स्वत्त सरकारान काळ्ळें. म्होण भितरी तिगेलो तो पोणजो रोगी जावनु मांचार पळ्ळो खंय. तशीय चड काळांक वरलोना. तागेलेच ओटू रायकिणी कुटुम्बाचो सूर्य अस्त जालो खंय!

ते प्रतापी थरवाडाची चेली तं सरिता. आजी तिगेले दंदान मेळचें वेतन आनीक चांग मन अशिल्ले संदर्शकानी दिलेले दुड्वान जाय तिगेलें कुटुम्ब वांचूक. तिगेली अम्मा पक्षाघातान अर्द देह निर्जीव जावनु मांचार तं. बप्पाक तशी कांय दंद आतां ना. होळ्ळे थरवाडाचो दिकून सान दंद कांय कोरूक जायना. ‘वायट कोळर जोब’ कांय तरी ताका मेळनायीय. ती

शिकवणेक दाष्टीक दिकून तीणे कशीय पुणीय डिग्री काळ्ळी. तशी तं यें दंद तरी मेळ्ळेलें. तिगेलो भाव आनीक भयणी शिकताय मात्र. तांगेले शिकवणेचो खर्चु आनीक अम्माले परिचरणाचो वेचु येंवय तिगेले घराकडेचें नित्यनिदानच. सगटाकय आसा केवल तिगेलें मासा वेतन मात्र.

‘सरिता, एय सरिता!’ सहप्रवर्तका अनितालो ताळो आयकून ती सुद्दीर आयली.

‘इत्तें की यें? दिसा सपन वे तुका! हां, प्राय ती न वें!’ अनितालें खेळ करप आयकून ती साबाव हाशीली मात्र. ‘हांव रायकिणि कुटुम्बाची महिमा तं सपन दिकताली’ म्हूण सांगूक अवसतलें वे!

‘तूं वेतन घेना वे? तुका मानेजर सोदीता मू!’

सरिता ओफीसाकडे चमकीली. रेवन्यू स्टेंपार ओप घालनु तीणे वेतन घेतलें. कवरावेली संख्या चोयली आनीक संत दुड मेजूक आरांबिले.

ते वेळार तिगेले मनांत तें सत्य उदेलें -

पोणजाबोले थरवाडार सुकूक घालताले ते पवळ्यां मोत्यां पुतळे पशीय चड मोल आजी माका मेजून मेळेचे ये दुडवां कागतांक आसा.....

# पुण्यवंति

ट्रेनाचे जनेलांतुल्यान चोवंचानीक दूरा तांबिडोचि सूर्या. ताजो उजवाडु दोळ्यांत पडता. माधवमामु संत उठायलो. उंचावेले बर्तारि पूतु अजय सुखान निदेता. तागेली कांबळि सामकि कोरनु घालनु माधवमामु बातरुमाकडे चमकीलो. परतूनु येतना खालाचे सीटावेलीं सर्व जागीं जालीं. माधवमामु सीटारि बेसूनु भायर तशी चोयताचि आसा. तावळि पाचूवे गद्देय तांतूं दंद कोरचे मनिषांकय दिकीले. माडे माडियो लागेन दिकचाकय केरळांतु पावलीं म्होणु ताका कळ्ळें. वाचारि चोयतणा उणेचि वेळान पालक्काड पावंतलीं म्होणूय कळ्ळें. जनेलांतुल्यान शेळ वारें मारता जाल्यारीय मनांतुले हुनसाणीक ऊणाव ना. तागेली बायल सुनंदा वोचून एक वर्ष जाता. तिगेलीं हाडां व्होरनु रामेश्वरा समुद्रांत निमज्जन कोरचे खातीरि ही यात्रा केलेली.

रामेश्वराचे भटान मंत्र म्होणु जावनु अजयान तागेले अम्मालीं हाडां उदकांत निमज्जन केलीं. तें दृश्य चोवनु माधवमामाले दोळे भरले. पुतान तागेलें रण्णें दिकूनज म्हूण ताणे होगी समुद्रा उदकान तोंड धुल्लें.

गेल्ले एक वर्षा लागी तीं हाडां घरकडे अशिल्लीं. सुनंदान गेल्लेले तिसरे दिस्सा सारी भोरनु मातियेचे कोळसुल्यांत काणु तेक्का मुल्यावेले तेक्किनीचे कषिक्कलारि बांदुनु दवरलेलिं. सदांचि तो कोळसूलो चोवनु एदोचि वेळु ताणे राबप आशिल्लें. तावळि सुनंदालें सामीप्य मेळ्ळेले वरी ताका दिसतालें.

आतां तेंवय ना जाता! ताणे आठयलें.

घरकडे एकेक वेळारि तिगेली जाप आयकिल्ले वरी दिसतालें. ‘एय आयकीलें वे?’ व्हय, इत्तिगो, म्हूण जाप दिवंचाक घूवनु चोयतणा कोण आसून्ना थांगा! तेक्किनींत बांदून दवरलोलो कोळसूलो दिकतणा तिगेलें मरण एक सत्य म्हूण मनांत येतालें.

‘पेपर, पेपर!’ म्हूण उल्लो आयकून ताका सुद्दी आयली. पूत लागीच बेसला,

‘आतां खंय पावलीं रे?’

‘पालक्काड पावंताय बप्पा. हांव वोचून खांवचाक इत्तें मेळता म्हूण चोवनु येतां’

भांडि राबतणा तो देवनु गेल्लो, थांगा थाकून एक सान कुटुम्ब ते कंपार्टमेंटांत चळ्ळीं. एक दादूलो, बायल आनीक सुमार सात वर्षांची तांगेली चेली. चेल्लेलें तोंड माधवमामाक होड परिचयाचें सरी दिसलें. मनांतु ताणे वळकूचे चेरडुवांलो सगळोचि उडगास घेतलो. कसली वळकि म्हूण उडगासु येना.

‘बप्पा, बप्पा हें ट्रेन केद्दाणा सोडतलें?’

‘उणेचि घडियानी सोडतलीं गो!’

ती सीटावेल्यान जनेलाक धोरनु ऊंच चडूक भायर सरता. तिगेलो हातु एमर्जनसी सांकाळे लागी वता. तिगेले बप्पान तिका खालाक देंवयली. ती आतां बप्पाले होंटींत बेसून माधवमामाक चोयताचि आसा. तें तोंड आनी ती दृष्टि चोवनु ताका चिरपरिचित सरी दिसता. कोण ही चेली?

अजय खाण घेवनु आयलो. माधवमाम संत उठावनु हात धुंवचाक म्हूण चमकीलो. वाष बेसिनाकडे हात धूवनु जावनूय तो एदेचि घडी सबाव भायर चोवनु राबिलो. जाल्यार दोळ्यां मुकारि दिकूचें कांय ताजे मनांत वचना. सात वर्षांचे ते चेल्लेलें तोंड आनीक प्रकाशमय दोळे तं तागेले मनांत. तो स्वयं निमगिता- ‘ती चेल्ली मिगेली कोण?’

तो परतून सीटारि येवनु बेसलो. ताणे चेल्लेले बप्पालागी निमगीलें ‘तुमी खंय वताय?’

चेल्लेन तं जाप दिल्लेली ‘आमी कोची वताय!’

‘ओ, कोचीकार वे तुमी?’

‘ना आमी पालक्काड तं राबताय. आतां कोची वताय एक आवश्याक तं’ चेल्लेले बप्पान जाप दिली. माधवमामान खाण खावनु जावनु हात धूवनु

येवु भितरि कायं सांगलेंना, तें जावन चेल्लेले अम्मान संत संशयान निमगीलें- ‘तुमी कोचिकार वे?’

‘व्हय आमी कोचीकार तं. कोची खंतय वताय तुमी?’

‘आमी एक घरकडे वताय तं. घर खंतय म्हूण समच कळना’

‘अड्रस आसा न्हय वें? हाका दाकयल्यारि तो सांगून दितोलो.’ माधवमामान पुताक दाकयलो.

ते मनिषान तावळि किस्सांत थाकून एक कागता कुटूको भायर काळ्ळो आनीक आजयाक दाकयलो ‘हें तं नांव आनी अड्रस-’

कागता कुटूको चोवु भितरि आजयाले तोंडारि आश्चर्य उदेलें ‘हें बप्पालें नांव मू!’ ताणे माधवमामा लागी सांगीलें. हें आयकून माधवमामाक मात्र न्हय तांकांय होड आश्चर्य जालें. तीं दोगंय छट कोरनु उठायलीं आनीक माधवमामाले पायांक आपोणु पांय पळ्ळीं. तांगेले दोळे संतोषान भरले दिकून माधवमामाक इतें कोरका म्हूण कळ्ळेंना ‘इत्याक हीं माका पांय पडताय, देवा, हांव हांकां वळकना मू!’ म्हूण तागेले मनांत आश्चर्य.

‘आमकां वळकिलींनाय आसतलीं तुमी. हांव सांगन’ चेल्लेक होंटींत बेसोवनु तिगेले बप्पान सांगीलें. ‘तुमगेले धर्मपत्नीले दोळे दान मेळ्ळेले खातीरि तं आमगेले हे चेल्लेले जीवितांत उजवाडु आयलोलो-’

हें आयकिल्लेंय माधवमामाले मनांत एकशें एक उडगास उदेले. जायतीं वर्ष फूडे नेत्रदाना पासून आयकून तान्नी दोगंय ते संरंभाचेरी आकृष्ट जालेंलींय, एकसाणीच दोगानीय नेत्रदानाचे कागतांचेर ओप घालनु दिल्लेलेंय ताजे मनांत धावनु आयलें.

चेल्लेलो बप्पा तिगेली काणी सांगताचि आसा. ‘ही आमगेली एकलीच धूव हिका जननारीच दृष्टी ना. स वर्ष तीवय आमीय आंधकारांत तं आशिल्लीं. एक वर्ष जालें आतां आमगेले कुटुम्बांत सूर्य उदेला.’

'हें तुमगेलेय, तुमगेले धर्मपत्नीलेय चांग मनान तं. आमगेलो संतोष कृतज्ञता कळोवंचाक आमकां उतरां मेळनांय. तुमगेलो उपकार आमी मेल्यार सरी विसोरना'

तो मनीष हें सांगून दळदळीच रडता दिकून माधवमामान ताका समजायलो.

आस्पत्रेंत थाकून देह काडचे फूडे तिगेले दोळे दान कोरका म्हूण सांगचानीक सर्वांकय एक अतृप्ति आशिल्ली. जाल्यार सुनंदालो आग्रह तो म्हूण माधवमामाक कळतालें. ताणे निर्बंधान सांगून तं तिगेले दोळे दान दिलेले.

नेत्रदानाचीं कागतां ओप घालतनाच तान्नी काळ्ळोलो निश्चय तं तो. माधवमामान तेदूस सांगिल्लें 'हांव तं आद्यं वतलो. तावळि मिगेले दोळे उडगासान दान दींवका तूवें!' सांगून पुरतें कोरचे फूडे तीणे तागेलें तोंड धांपिल्लें. आनीक हासून सांगिल्लें 'हांव तं आद्यं वत्तली. माका सुमंगलि जावनु मोरचो वर मेळ्ळा!'

तशीच जालें! 'तिगेलो आग्रह सफल जालो' माधवमामान आठयलें. ते पुण्यवंतीलीं हाडां रामेश्वरा समुद्रांत निमज्जन कोरनु मू तीं येताय!

चेल्लेले बप्पाक समजावनु जावनु ताणे चेल्ले लागी निमगीलें 'इत्तें धुवे तुजें नांव?'

'सिंधू' तीणे सांगीलें.

'यो, एक घडी हे आबोले होंटींत बेस!' मामान उळदितणा ती होगी गेली. तिगेले उज्वल दोळेय, हासूचें तोंडय चोवनु माधवमामाक सांगूक जावनातिलो संतोष दिसलो, आपण्याले दोळे भरले म्हूण कळतनाय तो ते पुसूक गेलोना.

# शेजार

ओफीस जावनु आयलोलो दिलीप बायलेन दिलेली हून चाय पिता तं. तिगेलें तोंड कोपान फुगून आसा.

'आजीय ते गीता लागीं झगडें केलें वे?' ताणें निमगीलें. जाल्यार राधान जाप कांय दिलीना.

दिलीप आनीक गिरिधर सानप्राय धोरनु होळ्ळे मित्र आशिल्ले. एकसानीच शिकून वाड्डून दोगांकय एकच कडे जोली मेळ्ळेली. दोगांलीय व्हारडीक लागी लागीच चंकलेली. दिलीपाक जाली एक चेली आनीक गिरिधराक एक चेलो. एक सान रोडाचे आळतांतूय पेळतांतूय जावनु दोगांनीय घर बांदूक स्थाय काणु घेतोलो. दोगांनीय लोण काणु घरां बांदीलीं. एकच दिसा घर प्रवेश जावनु दोगांय तांगतांगेले घराकडे राबूक आरांभिलें. गांवांतुले सर्वांक जळकाय दिसूचे वरी तीं दोन कुटुम्ब स्नेहान संतोषान दीस काडतालीं.

सात आट वर्षां तशी गेलीं. एक दिसा दिलीपाली बायल राधान एदोच कोयर कोंपौंड पागाराचे उंचावेल्यान भायर रोडार घालो.

यें दिकून गिरिधराले बायल गीतान सांगीलें 'कोयर पागारा उंचावेल्यान घालता इत्या? आमगेले गेटा मुकारीच मू तो पडता-'

यें आयकून छट कोरनु राधान जाप दिल्ली 'कोयर हांव रोडार न वें घालता? तुगेले कोंपौंडांत बी घालना न वें?'

थांगा थाकून एकेक दिसाय राधान कोयर हाणु रोडार घालूक आरांभिलें. थांगा होळ्ळी एक राश जाली कोयराची. दिलीपान सांगल्यारीय राधा आयकना. सान रोड न वें. कोयरा केस पोलीस स्टेषनांत पावलें- राधाक रोडार कोयर घालचें राबोंवका जालें. जाल्यार बायलांलें झगडें वेगवेगळे वाटेन वाड्डूनूच आयलें. ताका लागून आतां दादल्यांकय दृष्टिभेट

ना. एकेक दिसाय ओफीस जावनु घराकडे पांवतना एकेक प्रश्न तं दोगांचेय मुकार.

दिलीपान चाय पीवनु जावनु पत्र वाचतना राधान जाप दिली- ‘एय तुमचे लागी एक अत्यावश्य कायरें सांगूका म्हूण सकाणी थाकून आठोवनु बेसल्ली तं हांव-’

‘इतें गो तें?’

‘आमकां एक वाक्यूं क्लीनर काणु घेंवका. हमंत पुड्डी तं हांगा.’

‘झाणु पुसूक दंदकार्णीक दवरल्या मुगो!’

‘तिगेलें कांय एक सामकी जायना. उंचार शेल्फांत कांय तीणें चोंवचीय ना.’

गिरिधरान बायले खातीर वाक्यूं क्लीनर घेतलें दिकून तं हिकाय तें जाय जाल्यां म्हूण दिलीपाक कळता. गिरिधराले बायलेक डस्ट अलर्जी आसा दिकून तं तान्नी तें घेतल्यां म्हूण सांगल्यार कांय ये बायलेले मात्यांत चोडचें ना म्हणूय ताका कळता. तें दिकून ताणे तें हाळ्ळें- तेंच मोडल! ताका आंगडीकारान सांगून दिलेलें- ‘सर, तुमगेले लागी घराकडे गेल्ले वारांत येंची मोडल घेतलेलें!’

आनी एक दिसा गिरिधराली बायल गीता म्हण्टा- ‘एय येवंचो सोमारा दीस कसोलो म्हूण उडगास आसा वे तुमकां?’

‘तें मागीर हांव कशी विसोरतोलों गो? आमगेली वेडींग आनिवेरसरी न वें तेद्दूस!’ गिरिधरान मोगान सांगीलें.

‘तेद्दूस देवळांत एक कल्याणोत्सव करोंवका आमकां!’ बायलेली जाप आयकून गिरिधराक आश्चर्य जालें. छट जावनु हिका इतूली भक्ति कशी म्हूण आठोवनु तो देवळांत गेलो. थांगा बोर्डार एक वाराचीं कायरीं बोरोवनु

दवरलेले ओटू ‘सोमारा-उदयास्तमन पूजा- दिलीप पै’ म्हूण दिकतना ताका बायलेले भक्तीचें रहस्य मनांत जालें!

तशी तशी तांचें मत्सर, झगडें, वाशी वाड्डून वाड्डून आयली. दोनीय घराकडे खर्चूय चोणु चोणु आयलो.

एक दिसा राधाले घराकडे थाकून एक पोमेरियन सूण्याली भोंकी आयकू येता. लागीच गिरिधराकय एक सूण्याक हाडका जालें. सस्याहार मात्र खांवचे तांकां सूण्या खातीर मासळी मांस घराकडे हाडका जालें. सूण्यांक षंपू घालनु न्हाणोंवका जालें.

कृष्णमामु ते गांवांतुलो एक ज्ञानवृद्ध मनीषु. ये दोनी कुटुम्बांक रम्यतेर हाडूक जायतो श्रमु काळ्ळो ते चांग मनिषान. जाल्यार तोवय हारवोलो. एक दिसा ताणे वाटेवेल्यान वत्तना गीता परमांत इतेंकीच वोयता. इतें म्हूण चोयल्यार वाशी कांटो!

शेजारचे राधालें नक्षत्र आयिल्यम् न वें? सकाणीच तिका यी कणी दिकल्यार निश्या थेंबो मेळचोना म्हूण तं! यें आयकून ताणे मात्यार हात दवरलो!

शेजारीं झगड्यार जाल्यारीय थांगाच्या सूण्यांक आळतापेळतांतू होडु स्नेह तं. घरांचे टेर्रसाचेर राबून सान सान ताळ्यान भोंकून तीं उलयतलीं. बाल हालोवनु उडक्यो मारनु अशी तशी लातीयो घालतलीं.

एक आयतारा सांजे वेळार दोनीय कुटुम्ब बीचार पाविल्लीं. आलुवाय भाटीर दिकिल्ली वळकी सरी ना म्हळ्ळेल्यावरि हीं हांगाय, तीं थांगाय जावन बेसलीं. जाल्यार तांगेले सूण्यांक आळतापेळतांतू मेळूक होडु उत्साह.

दिलीपान भीमूक घेंवचे वेळार तागेले हातांत थाकून सांकाळ ओडून सूणे एक धांव! गिरिधरान बेसल्ले कडे तें पावलें म्हण्टना ते सूण्यानय ताजी सांकाळ ओडून मारली उडकी. दोगंय सूणी एकामेका आंगार उडकी मारनु, लेवनु घुवळि घालनु स्नेह दाकोवन दूरा धावनु गेलीं.

सांजेचें सदांच वेळेर येंवचो कृष्णमामु आनीक बायल यें दृश्य चोवनु राबिल्लीं. कृष्णमामान बायले लागी सांगीलें- ‘चोय गो तें, विशेष बुद्धी आसा म्होणचे मनिषांक नातिल्लो स्नेह ते मृगांक आसा! तांकां चोवनु पुणीय शिकतलीं वे यीं?’

सूण्यांक धोरनु हाडूक म्हूण उटायलेले तांचे दोगांचेय यजमान यें आयकून आळतापेळतांतु चोवनु स्तब्द जावनु राबीले.

# सत्य आशिल्लो रूक

प्रथम जावनु घरा खातीर स्थाय चोंवचाक येतना दिकिल्लो तं तो रूक. ताका बोट दाकोवनु मिगेली तीन वर्षांची धूव मिजे लागी निमगिताली ‘अम्मा ते होळ्ळे रुकार इत्तें कीं? आंबे वे?’

हांव म्हळ्ळें - ‘आंबे न्हय धुवा, ते धारांबे तं.’

‘धारांबे म्हळ्यार इत्तम्मा?’

‘रांवदयेक मात्र घालचें आंबसाणीचें एक फल धुवा तें!’

कोण जल्यारीय ते रुकाक एक चोयतलीं. सवाय माड्याची दिगाय. दोनि माड्यांची थोराय. उंचार उंचार तं चड खांदे. तांचेर भोरनु धारांबेय आसाय.

आमी घर बांदूचे खातीर दोनि माडे कातरले. जाल्यार यो रूक एक कडेन आशिल्लो दिकून कातोरका जालोना.

घर बांदून राबूक आरांभिल्लो दीस थाकून ते रुकार माका इत्तेकींच एक प्रत्येक स्नेह. घरप्रवेशा दिसा आयलेले अंचिकमळचे शेणै मामान सांगिल्लें- ‘यो रूक धारांब्याचो न वें? चांग रूक तं. आतां धारांब्याक इतें मोल म्हूण जाणय वे? परजातीक मासळे रांवदयेक धारांबो जाय. तें दिकून चड मोल मेळतलें.’

तावळी थांगा राबिल्ले राव मामान सांगीलें ‘रूक सग चांग, म्हळ्यार ताजें मूळ घराचे अडित्तरेक वायट. तें दिकून यो रूक कातोरचेंच चांग. रुकान दिंवचो दोषूय चोंवका!’

रुकान दिवंचे धारांब्या पशि मोलाचो अशिल्लो ताणे दिवंचो शेळोव आनी सावट. रुका लागी अशिल्ले कूडांत केदनाय चांग शेळवोत- फाना पशी, एयर कूळरा पशी चांग शेळवोत! यें आठोवनु रूक कातरूक दिसलेंच ना.

रूकाचे खांद्यार एक कायळो घूड बांदीतालो. एकेक दिसा चोयतना शिरपूटां चड जावनु घूडु होड होडु जातालो. तो घूडु दाकोवनु हांवें मिगेले चेलेक जेववप आशिल्लें.

एकेक वर्षाय फेब्रुवरींत रूक पाल्लेतालो. तावळी चोंवचाक वेगळीच चंदाय तं. मार्च मासांत ताका फूल धरतलें. सानु धारांबो जातोलो. एकेक सान धारांबो खाल पडतालो. तें दिकतना माका दुःख दिसतालें.

एप्रिल - मेय मासांतु होळ्ळे पिकलेले हळदूवे धारांबे पडतले. ते काडूक लागी घरांचीं चेरडूवां येतलीं. गेटा कडे राबून 'अक्के, एक धारांबो काडता वे?' म्हूण निमगितलीं. तशी एकेक दिसा सकाणीच आमी वळकूनातीले चेरडूवांक दिकप आशिल्लें.

झोड पावसा वेळार राती घराचे टेर्रसार धारांबे पडचो शब्द मिगेले निदेक विघ्न घालतालो. जाल्यार संत संत तो रूक घराचे एक अंगा वरी जालो. तशी वर्षां गेलीं धा! एकेक वर्षाय रुकान पालेवप, फुलेवप आनी ताका धारांबो जावप चाली प्रमाण जालें.

जाल्यार ये वर्षा तो पालेलोना. मार्चांत फुलेलोय ना. ये वर्षा तशी धारांबोय धरलोना. यें कायरीं बामणा लागी सांगतना तान्नी म्हण्टाय रूक बहु पोरणो जालोलो आसत म्हूण- 'एक पन्नास वर्षां पुणीय जालेलीं आसतलीं ते रुकाक. आनीकय तुका धारांबो जाय म्हळ्यार कशी?'

रूक म्हांतारो जालो म्हूण दिसता. टेर्रसाचे उंचार केदनाय ताजो पालो पडता. ऊंच तुंबांतुल्यान पावसा उदाक वचूनातीलें राबून ताट्याचे वार्पांतुल्यान कूडांत निस्तता! 'चोर्चा वचूका जाल्यार रूक कातोरका म्हूण दिसता-'

यें उतर मिजे हर्द्यां भितर लागल्ले वरी दिसलें, हेरदूस सकाणी चोयल्यार रुकाचो एक खांदो खाल पळ्ळा. खांदो अशिल्ले कडे एक होळ्ळें बीळ दिकूयेता. तें दिकतना माका बामणालें उतर उडगास आयलें- 'रूक यो म्हांतारो जाल्ला!'

खांदो पोळ्ळो दिकून दूद घेवनु येंवचो पोरोब मामु सांगता- ‘रुकां भितर पोकोळ जालें म्हूण दिसता. यो धारार कातरांवका. तुलावर्ष तं येता. झोडु वार्यार पळ्ळो जाल्यार ये घराकय शेजार घराकय नाशनष्ट येतलें!’

मामा लागी हांवें जाप कांय दिलीना- बामणान रुका स्थिति दिकून रूक होगी कातोरका म्हणूच निश्चय केलो. माका जाल्यार रुका कायरें आठयल्यार मनांत समाधान ना. ओफीसांत गेल्यारीय तोच विचार. तितूली साबार माया जावनु गेली त्या रुकाचेर. जेवंचे वेळार रुकाचो खांदो मोळ्ळेलें कार्य सांगतना सहप्रवर्तक सग उपदेश दिताय रूक कातोरका खंय!

मनिषाले हाताक पायाक इतेंय जाल्यार मनिषाक दिंशी मारप आसा वे? तशी कोणे तरी सांगप ना म्हूण मिगेलो विचार.

जाल्यार तो दीस पावलोच मागीर. रूक कातरूक कुराडी हांजो घेवन दंदेली आयले. तेदूस हांव होगी ओफीसांत गेलीं. रूक कातोरचें मिजान दिकू नज!

सांजे येतना दिकीलें. रुकाचे सात कुटके कोरनु घाल्याय. ताजो तांबडोच दींकु मूळाकडे पळ्ळा. चोवनु राबतना मिगेले दोळे भरले.

दंदेली सांगता- ‘अक्का, आंतां पुणीय यो कातरूक दिसलेलें तुमगेलें भाग्य. ताजे भितर सगळेंच पोल पोकोळ तं! साली जीविच आसा जाल्यारीय देह सगळेंच नळिये वरी बीळ धांवल्यां. होळ्ळें एक वारें आयल्यार खंडित यो पडतोलो अशिल्लो. रूक पळ्ळ्यार दोनीय घरांक नाशनष्ट येतलें अशिल्लें.’

तशी कांय जांवचाक दीवनातीलें ‘माका धारार कातराय!’ म्हूण आमकां सूचना दिवंचे खातीर आसूका ताणे तो खांदो खालाक घालोलो आनीक आंगावेलें तें बीळ दाकयलेंलें.

ये वरी कायळ्यांक घूड करूक स्थाय दिंवचो, शिरपूटां दिंवचो, आमकां सावळी आनीक शेळवोत दिंवचो, धारांबो दिंवचो तो रूक गेल्लो. ताका मोग दिंवचे तागेले यजमानाक कसलेय कष्ट, दुःख दीवनातीलें सत्य आशिल्लो तो रूक गेल्लो.

# उदका खबर

देवळांतु आराटा दीसु. संब्रादणेक तोडोव जालोच. तें जावन दुशेरे फांतीक बेसल्याय वाडूक देवलेले चेल्ले सर्व. बल्लू लागी गोपाळ निमगीता ‘आरे ती उदाक दीवनु भोंवताली तुगेली मांय न वें?’

‘व्हय, इत्या?’ बल्लू गोपाळाक चोयलो. दोगांय आत्ममित्र तं. शीत वाडप तं तांगेलें प्रधान आयटम!

‘न्हय, हांव दिकतां ती मांय सर्व वर्षाय उदाकच विरकिता. वेगळें कांय वाडूक हाडूक तीणे मुकार सरप ना. इतें आंगवण बी वे तिगेली यी?’

‘मांये लागीच निमगुया आमकां!’ बल्लू उटायलोच- ‘तें लागीचें पान तिजे खातीर धरी तूं-’ तो जया मांयेक उळदूक गेलो.

तावळीय जया मांय एक बकटांत पिंवचें उदाक भरता तं. गांवांत एक व्हारडीक जावो, मूंजि जावो आसा जाल्यार जेवणा वेळार उदाक दिंवचाक ती आसतली. देवळांत संब्रादणेक तरी ती सदाच आसा. तिकसाणि मिटसाणी रांवदयो खावन जीब हुलपून रडचे चेरडुवांक, सीत ताळ्यांत शिरकून खलगडी येंवच्या म्हालगड्यांक, साबाव उलोवनु ताळो हरकटल्यांक सर्वांक उदाक घेवनु येवंची जया मांय होळ्ळो आश्वास पांवयता.

गिम्मा कालार तिगेले घराकडे वचे जनांक तीणे दिंवचें उदाक आनी गोड उतरां आनंददायक तं. ते वेळार उदाक मेळनातीले शेजार जनांक सर्वांक तिगेले घरा बांयतूलें उदाक तं एकमात्र आश्रय. उदाक मेळनातीले वार्डांक टांकर लोरींत उदाक पावोंवचाकय तिगेलो श्रम आसा.

सदांच ओफीसांत वतास्तनाय मांय बेगांत दोनि होळ्ळे कुपियांत उदाक व्हरता. एकेक वेळार बस्सार दवोरनूच ताजें आवश्यय येता. कोणाक म्हूण ना. कोणे निमगिल्यारीय ती उदाक दितली! ओफीसांतूय तें उदाक

पिंवचाक जन आसाय. तशी जावनु ‘उदाक दिंवची मांय’ म्हूण तं जया मांयेक जनपद वळकता!

दोनि होळ्ळे कुपियांत उदाक काडून, सान सान कोरंड्यांत जेवण काडता दिकून तिगेले बामणान एक दिसा कोपु काळ्ळो- ‘इत्या गो यें इतलेंच उदाक व्हावनु व्हरता? तुका पिंवचाक अशिल्लें मात्र व्हेल्यार नोपूरो वे?’

तावळी ती हाशीली मात्र. हे उदकाक वेगळीच गोडसाणी आसा म्हूण न्हय वे सर्वय सांगताय!

‘मांये-’

बल्लूलो उलो आयकून ती नीट जाली. हातांत उदका बकट अनीक स्टीला खोलो. दुशेरे फांतीकय उदाक दिंवचाक तं तिगेलो उद्देश. बल्लून बकटा खातीर हात मुकार केलो- ‘तें बकट अशी दी!’

‘इत्याक रे? तूं जेंवचाक बेसना वे?’

‘बेसलां. आनीक मांये खातीरीय मिजे लागी पान धरल्यां. ये फांतीक आनी मांयेन उदाक दीवंका नाका!’

‘हांव संत जेवीन रे चेल्या! एक पावटी उदाक दितां. मागीर तूवें धरलेले पानारीच हांव बेसन!’

‘नाका, नाका, तूं आतांच यो मिजे लागी. माकाय गोपाळाकय एक कायरें निमगूक आसा तुजे लागी!’

स्वल्प घडियांक मोगान निर्बन्ध करतना जया मांय ताजे लागी गेली. गोपाळान धरलेले पानार दोगांचेय मद्दें ती बेसली.

‘निमंगी इतें कायरें म्हूण!’

सोपूर रांवदयो वाडताय मात्र. वेळ आसा. दोगांनीय कोरनु तांगेलो संशय तिजे लागी संत निमगीलो. स्वल्प घडियांक ती मौन जावनु बेसली. मागीर सांगीलें-

‘आंगवण कांय न्हय रे. मिगेले जीवितांतुले दोनि संभवा निमित्तीं तं उदकाचें प्राधान्य आनीक महिमा माका कळ्ळेली. जायते वर्ष फूडे एक दिसा हांव काम जावनु ओफीसांत थाकून पोरतून येतालीं. बसार एक घंट्याची यात्रा आसा म्हूण तूं जाण न्हय रे बल्लू? धांवचे बस्सावेले शेळ वार्यान आनीक देहाचे क्षीणान मिगेले दोळे स्वल्प झमेले म्हण्टना बस छट जावनु राबलें.’

‘होड एक शब्दूय जालो. स्वल्प मुकार जावनु एक लोरी एक काराक आडळल्या. आमी सर्व खालाक देंवलीं. तांबडेंच मारुती सेन कार. तांतूं थाकून भायर उसोळनु पळ्ळ्या सत्तरी लागी प्राय अशिल्ली एक बायल. पट्या कापड, भांगार, वाच, नेक्लेस सर्व आसा. एकोलो तिका संत उट्करांवचाक चोयता आसा. अर्धबोधावस्थेर ती ‘उदाक उदाक-’ म्हूण मागीता. बस्सावेले किळीन धावनु वचून हाडलेलें रेडियेटरांत घालूक दवरलेलें खंयचे तोळ्या उदाक. प्लास्टिका मगान अर्द मग उदाक पुणीय ती घटघटीच पिल्ली. तशीच प्राणूय गेलो!’

‘चोय केदे केदे होळ्ळ्यांक अंत्य क्षणार कसलें उदाक मेळता म्हूण!’

‘हांव तावळी आठयलेलें तुगेले मामा विशीं रे बल्लू! उदाक दिल्यार उदाकय खोलोय सग सूक्ष्म कोरनु चोवनु चोवनु तं तुगेलो मामु एक घोटू पितोलो! तशी आसतना ती धनंवती बायल अंत्य वेळार मेळ्ळेलें प्लास्टिका मगांतुलें खंयचे तोळ्या उदाक अमृत सरी पिल्ली की ना!’

‘दुशेरो संभव जालोलो एक मिन्नल बस स्ट्रैका दिसा तं-’

‘ओफीसांत थाकून आमी दोग जाण बायलो चमकून भायर सरल्यो. एकि आडवाट आसा- परमांतुल्यान आनि तोड दांटवून. म्हळ्यार वेळु ऊणे

पुरो. आमी ते वाटेन घुंवलीं. जनपद ऊणे तं स्वल्प चमकतना मागल्यान एक बोब! ‘हायो!’ खंय एक म्हांतारो तोडा पाडीक पळ्ळा. तो मरणवेप्राळ काडता. आमी दोगांय ताजे लागी धावनु पावलीं. इत्तें कोरका म्हूण कळना. मिगेले दोस्तिणीन तागेलें मातें नीट कोरनु तिगेले होंटींत दवरलें. तो मागीता- ‘उदाक, उदाक-’ तावळी खंय थाकून की ताका उदाक दीवप? लागी खंय घर मनीष कांय ना. ती सांगता रित्ते शिता आयदनांत एदेंच तोडा उदाक पुणीय हाडि खंय! तागेलें मरणवेप्राळ दिकून हांवें तशीच केलें रे! हांवे हाळ्ळेलें तोडा उदाक चिके पीवनूच ताणे प्राणु सोळ्ळोलो....’

‘नंतणा आंगवण कांय न्हय रे चेल्यांनो! ये दोनि संभवा निमित्तीं तं माका उदकाचें महत्व आनीक प्राधान्य कळ्ळेलें....’

# अवार्ड

डिसंबर मासाचो शेनवार. सकाणीच फोणाचें लोंग रिंग आयकून रुग्मान फोण काळ्ळें.

‘माडम रुग्मालें घर नवें?’

व्हय म्हूण तीणे जाप दिली.

‘हांव दिल्लींत थाकून उळदितां. केन्द्र साहित्य अकादमीचो सेक्रटरी तं. माडमाले कथा समाहाराक ये वर्षाचें अवार्ड आसा म्हूण कळोंवचाक संतोष आसा. हारटी कणग्राटुलेषन्स!’

रुग्मा यें आयकून स्वल्प घडी स्तब्द जावन राबीली. फोण पोरतून दवरूक सरि विसरली. पुतान येवनु कायरें निमगितना तं ती सुद्दीर आयलेली. फोण क्राडिलार दवोरनु तीणे कायरें पुतालागी सांगीलें. ताणे तिका पोटोवनु धरली. तांगेलो संतोष आनंदाश्रु जावनु दोगांलेय दोळे भरले.

‘आज इतेंय स्पेशल जावंका!’ तो तागेले स्कूटरार तावळीच भायर देवलो. तो वता चोवनु राबिल्ले रुग्माले मनांतुल्यान वर्षां वर्षांचे गोड आनी कोडू उडगास धावले.

बाळांतिर्यारीच अम्मा गेलेले तिका तिगेले बप्पान होड अपुरबायेन वाडयलेली. ती एकलीच. तिगेलो बप्पा एक साधारण प्रैमरी स्कूल मास्तर. अम्मालो उणाव कोळोवनातीलें तं ताणे तिका वाडयलेली. जाल्यारीय होड जाता तशीच तिका बन्धु जनांनी दिवंचीं श्रापा उतरां कळ्ळीं. अम्माक खेलेली धूव! तीणे तें कांय मनांत व्हेलेंना. तिगेले बप्पालो स्नेह तितलोच चड अशिल्लो! मागीर तिगेले बूक अशिल्ले तिगेले दोस्त. ती स्वंत जावनु साहित्य रचना करतालीय. तांतूय तिका बप्पालें प्रोत्साहन मेळ्ळें. कोळेजांत पांवतना मलयाळम प्रोफसरानय तिका स्नेहमय प्रोत्साहन दिल्लें. कोळेज मागसीनारीय उणेच आनुकालिकांचेरीय तिगेल्यो रचना आयल्यो. तो एक सुवर्णकाल अशिल्लो.

ते समयार तं ब्रोकर पै मामाले वाटेन होळ्ळे घराकडेची सोयरीक आयलेली. ब्यारेली राजु मामालो पूत. तोवय तांगेले ब्यारांतूच. कांय स्त्रीधन निमगूनातीलें आळतांतू भांगार सर्व घालनु तं रुग्माक व्हारडीक केलेली. तिका येद्दोळ असवडी श्रापितल्ले बन्धु जनांनी जीब गिळ्ळी. 'आतां तिगेलो चांग समय पावला!'

गांवांतुलो कारनोरू शेणैमाम सांगता खंय 'चेलेलें महाभाग्य. दुड ऊणे जाल्यारीय चोंवचाक चन्दी आसा दिकून तं होळ्ळे घराकडे ती पावल्या. नोपूर जाल्यार जातकंय पोणु येताय, साजताय-'

जाल्यार व्हारडीक जालेले उणेच दिसांनी रुग्माक कळ्ळें तिगेलो तो सुवर्णकालु दांटवोलो म्हूण. बामणाक केदनांय ब्यारू ब्यारू म्हूण एकूच विचार तं. दुडू कोरका म्हूण एकूच वायू. वर्तमानय ब्यारा विशीं मात्र. तिजे लागी स्नेहाचें एक उतर सरी ना!

एकेक बिसिनस पार्टीक तिकाय व्होरतोलो. पाट्या कापड आनीक भांगार घालनु कारार वची होळ्ळे होळ्ळ्यांली पार्टी. थांगा आसतल्यो केवल दुडवाळांल्यो बायलो. तांकां कापडां विशीं, भांगरा विशीं, आढंबरजीविता विशीं मात्र उलोंवचाक येता. ती तें सर्व आयकून मूक बेसतली मात्र. तिका सोसायटी मनर्स कळना, उलोंवचाक कळना - अशी सर्व सांगून बामूण उलयतोलो. तिगेली मांय जाल्यार सुन्नेकर्यान वासरेंतुलें दंद कोरोंवचाक दाष्टीक. ती सर्वय उलोवनातीलें करताली. विवाह जीवितांतुली असंतृप्ति, मनांतुलें दुःख सगट विसरूक, निवोंवचाक जावनु ती साहित्य सृष्टि करताली. एक दिसा तिगेले बामणान यें दिकलें. ताणे तें सग्ग पिंजून उडकायलें. आनीक मुकार अशी कांय करूक नज म्हूण एक ताकीदय दिलें.

म्हळ्ळ्यार तिगेले मनांतुलें तिका कागतार ओतूनातीलें समाधान मेळना. कागतावेलें पिंजून उडयल्यारीय मनांतुलें पिंजून उडोंवचाक जायत वे? ते वेळार बरयलेली एक कविता दुशेर दुशेर वाचून तिका होडी तृप्ती अनीक संतोष जालो. तीणे ती एक प्रमुख अनुकालिकाक पेटोवनु दिली. तान्नी

ती कविता मुकावेलेच पानार होड प्राधान्य दीवनु प्रसिद्ध केली. तिका पेटोवनु दिलेले कोंप्लिमेंटरी कोपीचे ओटू तिजे नांवार एक सासु रुपयाचें चेकय आशिल्लें. तीणे तें होळ्ळे संतोषान तिगेले बामणाक दाकयलें. तावळी थांगा एक भूकंप आयल्या वरी जालें. बामणानय, मांयेनय मेळनु तिका उलोंवचाक आरांभीलें. मांव जाल्यार कांय उलयना. मांयेन सांगिल्या भायर मांवान वचून्ना. तिकाय घेवनु बामूण तिगेले घराकडे पावलो. काणी, कविता बोरोंवचाक न्हय बायल म्हणूय, तीणे घराचें दंद परिचार कोरनु, तांकां जांवचे चेरडुवांलें कायरें चोवनु दीस काडका म्हणूय ताणे तिगेले बप्पा लागी सांगीलें. अशी बोरोवनु बेसूची बायल माका नाका म्हणूय ताणे स्पश्ट सांगीलें.

तिगेले बप्पाक होड दुःख दिसलें. धुवेलें जीवित व्यर्थ जालें वे देवा म्हूण ताणे लेकीलें. बप्पाले भरलेले दोळे दिकूनूय, स्वंत उदरांत वाड्डूचे चेरडाक आठोवनूय तीणे ताका उतर दिलें. तशी बामणांथंय पोरतून पावलेले तीणे मागीर धा बारा वर्षांक कांय एक उतर बरयलें ना. चेरडालें तोड आनी कुसृती दिकून ती बाकी सग विसरली. तिका एक नवें जीवित मेळ्ळें.

पुतान पांचव्यांत पाविल्ले वेळार एक दिसा तागेले पुस्तकांत थाकून ताणे बरयलेली सानीच एक कविता तिका मेळ्ळी. ती बालकविता वाचून तिका होडु संतोष जालो. तीणे ताका चांग प्रोत्साहन दिलें. स्कूळांतुले साहित्य मत्सरांत ताका मेळ्ळेलीं सर्टिफिकट हाडतना तीणे तीं तागेले बप्पाक दाकोंवचाक सांगीलें. त्या वेळार तीं उलोवनातीलें वाचून चोयता नंतणा बामूण कांय तरी भूकंप करना! तांगेले अम्मबप्पाले मरणानंतर बामणांकय स्वल्प मोवसाणि आयल्या.

पूतु शिकूकय दाष्टीक. ताका मास्तर जांवका म्हूण तं आग्रह. तीणे ताका सर्व प्रोत्साहूय दिलो, तिका तिगेले दिवंगत बप्पान दिलेलेवरी! एक दिसा ते आबोले पुस्तकांत थाकून तं ताका तिगेली कविता आयलेलें तें परणे आनुकालिक मेळ्ळेलें- तें जावनु ताणे तिका दुशेर बोरोंवचाक होड निर्बन्ध केलो. कोळेजांत पांवचानीक ताणे तिका वाचूक साबार पुस्तकय हाणु दिले.

तशी तं तीणे दुशेरीय साहित्यसृष्टी आरांभिल्ली. मस्त बरयलें-कविताय, कथाय. तिगेले मनांत वर्षां जावनु पळ्ळेल्यो कविता, कथा कागतार देवनु आयल्यो. प्रमुख प्रसाधकांनी तिगेले तीन पुस्तक प्रकाशन केले. सान होड पुरस्कार मेळ्ळे.

पुतान अम्माक सहाय आनीक प्रोत्साहन दिवंचे कडे बामणाक उलोवंचाक कांय उतर ना. पुताकय ब्यारांत घालका म्हूण तं बामणालो आग्रह. जाल्यार ताका तांतू येद्दें सरी तात्पर्य ना. तो चड शिकून कोळेज अध्यापक जालो. तागेलेय पुस्तक प्रकाशित जाल्याय. तिगेले तरने प्रायेर जावनातीलें सर्व आतां पुताले सहायान चमकील्यां.

ताणेच तं आतां अवसून गोडसाणीचें सर्व हाळ्यां. न्यूस पेपराचे, टीवी चनलाचे सर्व रिपोर्टर, फोटोग्राफर आयल्याय. तांकांय स्वल्प गोडशें आनीक तानेक कूळड्रिंग्स तयार केल्यां. तांगेले शेंभर जापेंक आतां तान्नी जाप परतिल्या. एकि जाप तरी तीणे सर्वांकय जावनु स्पश्ट सांगीली-

‘मेगेलें प्रचोदन, मेगेलें प्रोत्साहन सर्व मेगेलो पूतु! यें अवार्ड हांव मेगेले ये मोगाचे पुताकच समर्पण करतां!’

# सात्तूली

कर्कड मासु. पावसा दीस. झायते दिसांनी एकु होळोव दिकिल्लो बिरस्तारु. सुमंगला जोली जावनु सांजे पोरतून येता. बेळुवावेल्यान चमकूनु ती पिंपळा रुकालागी पावली. थांगा मस्त जन एकडे जावनु राबून अशी तशी उलयताय. पिंपळा काट्यार कोण एकोलो पोणु आसा. ताका चोवनु राबल्यांय तं. कोण एकु सुरपिवगो बी आसत म्हूण आठोवनु तीणे चमकुचे वेळार तांगेलें संभाषण तिजे कानार पळ्ळें–

'देनपारां येवनु पोळ्ळोलो तं. होगी अशी जातलें म्हूण कोण जाण! हागेले घराची वळकी आसा वे कोणाकय!' रत्नाकर मास्तर होडान निमगीता. तावळी तं तिका कायरें कळ्ळेलें. पिंपळा काट्यार पोणु कोण कीं गेला! ती चिके राबीली. कोण आसतलें? साधारण दिसूनातिल्ली एकि जिज्ञासा दिस्सली. जाल्यार पिंपळाचे चारीय वाटेन आसाय केवल दादूले मात्र. कशीय जावो म्हूण ती पिंपळा लागी चमकीली. एक दोग जांणांनी चिके वाट सोणु दिल्ली.

एक म्हांतारो मनीश सबसूब जावनु पळ्ळा! तोंडार एकि अप्रूप शांती तं. चोगो मुंड सग परणें पिंजकर जल्यारीय तोंडार एक कुलवंताली मुखश्री आसा. निडलार गांदा तीळो. तिका तें तोंड चिके वळकीचें सरी दिसलें. तावळी तं तागेले हरद्यार ताणे तागेले हातान तराटून सरी धरलेली ती सातूली तिगेले दोळ्यांत गेलेली.

तिका छट जावनु गेले आयताराचो उडगास आयलो. आयतारा सकाणी आट वरांचो वेळु. ती वासरेंतु अडसरा पोळे काणु आशिल्ली. फिदरांतु कोण कीं 'अम्मा, अम्मा–' म्हूण उळदीता आयकून घरा मुकार गेली. यो म्हांतारो तं तेदूस घराकडे आयलोलो. योचि बोर्यां चोगो. निडलार तीळो. धवे केस. जाल्यार तेदूस तोंडार कसोलो कीं एकु ओमसोरु तं आशिल्लो.

तीणे भितर वचून एक पान्ना चोळक्यार दोनि पोळे काणु हाळ्ळे. हुनच पोळे. ताका तृप्ति जातली म्हूण तं आठयलेलें. जाल्यार तो कांय हात मुकार काणा.

तागेली जाप आयकून तिका आश्चर्य जालें.

'एक सात्तूली जाय!'

पावसा दीस अशिल्ले जाल्यारीय अशी एक आवश्य येदोळ कोणे सांगिल्लो उडगास ना.

'एक परणी सात्तूली दी- पोळे कांय नाका!'

तागेलें निमगप आयकिल्यार तीणे ताका सात्तूली दीवीन म्हूण उतर दीवनु आतां पोळे दीवनु फटयता म्हूण दिसतलें!

तावळी घरा दंदकारणी थांगा पावली. ती सांगता शेजार घराकडे थाकून गेले दिसा ताका एक सात्तूली दिल्लीली ताणे खंय कीं शेंडीली खंय. यें आयकून म्हांतारो म्हण्टा-

'हांव पिंपळा काट्‌यार निदेवनु पळ्ळेले वेळार कोणेकींच ती फारली. आतां सात्तूली ना. माका एक सात्तूली दी!'

तीणे घरांत वचून तिगेली परणी टू फोल्ड सात्तूली काणु हाळ्ळी. सात्तूली दिकून ताका होड संतोष. तोंडार होड हासु फुलेलो. तो वचाक भायर सरता. जाल्यार तीणे ताजे खातीर हाळ्ळेले पोळे खावनु जावनु मात्र तं तीणे सात्तूली ताजे हातांत दिलेली- 'यी पेल्यां घालू नज!' तीणे तमाशेन तं सांगिल्लें जाल्यारीय ताणे ताका व्हय व्हय म्हळ्ळें.

दोनीय हात उबारनु तिका होडु नमस्कार दिलो- 'चांग जावो, तुमकां चांग जावो सगटांक!'

दिकून राबिल्ली तिगेली चेली तिका खुशाल दिसून हाशिल्ली. तिकाय एक नमस्कार सांगून तं तो तेदूस गेलोलो.

आज आतां तोंडार होडि एक शांती आसा. ती सात्तूली हरद्याक लागून दृढ जावनु धरल्या. तिका दिलेले उतराचे उडगासान बी वे म्हूण तिका दिसलें. ते दृश्यार थाकून स्वंत दोळे ओडून सुमंगला घराकडे चमकीली.

ते म्हांतार्याली कसलीय वळकी ना तरीय तिका तें दृश्य आनी तें तोंड जीवित भरि उडगास आसतलें म्हूण दिसलें.

# अर्धविराम

'टीचर, टीचर!'

होस्टलांतुले प्यूणान उळदितना सुधान कूडाचें कवड काळ्ळें.

'टीचराक एक फोण आसा-'

माका ये राती णव वरांचेर कोण की उळदीता, म्हूण मनांतु लेकून ती होस्टलाचे ओफीसा कडे चमकीली. फोणाचें रिसीवर काडतना, हलो म्हूण आयकतनाच आळाक वळकीलि- सुरेष! एक क्षणाक तिका इत्तें कोरका इत्तें उलोंवका म्हूण कळ्ळेंना. कोपु तं आयलोलो. फोण तावळीच खाल दवोरका म्हूण दिसलें. जाल्यारीय ती तशीच आयकून राबीली. ये गावांत कळक्टर जावनु आयला म्होणूय तिका एक दिकूका म्होणूय तं सांगता. तीणे पेळतांतु कांय सांगलेंना. फोण दवोरनु पोरतून तिगेले कूडांतु येवनु मांचार बेसली.

'इत्तें सांगूका आशिल्लें?' तीणे स्वय जावनु निमगीलें. आतां आनी मुखामुख दिकूका जालेलें आवश्य इतें? मिगेलें सपन मिगेलें मात्र आशिल्लें. हांव स्वय तांतूं थाकून मोचन पावली! आवश्य नातीलें दोळे तिमताय. आवश्य नातीले उडगास मनांतु भरताय. आठयनातीलें ते होस्टल रूमांत एकांततेचें भूत तिका गिळूक येतना, उश्शर तोंड दामोवनु तीणे निशब्द खोणसां काळ्ळीं.

तीणे आटव्यांतु शिकतना तं सुरेष आनी तागेलीं अम्मा बप्पा शेजराक राबूक आयलेलीं. रित्तें पळ्ळेलें घर ते दिसा सांजे स्कूळ सोणु येतना जनेल कवड वाकतें दिकून सोदीतना तं तिका कळ्ळेलें- बैंक मानेजर पैमाम आनी कुटुंब राबूक आयल्यांय. सुरेष तिगेलेच स्कूळांतु तं. तीणे दिकिल्लो आसा. तावतावळी एकेक प्रैस पुरस्कार सर्व ताका मेळप आसा. तेदूस सांजे तिगेलो बप्पा ओफीसांतु थाकून येतना तीं तेगांय मेळनु नवे घरकारांक चोंवचाक गेलीं. चांग परिचयु जालो. दुशेरे दिसा तांकां आळतांतु उळदीलीं. तशी दीस संतोषान गेले.

स्कूळांत तीणेय सुरेषानय एकसानी तं वचप. होड्ड स्नेहु तं आशिल्लो आळता पेळतांतु. स्कूळा पशी संतोषु दिसतालो ते येव वचपांतु! शिकूच्यांतु जाल्यारीय गींतु काणी चित्ररचनेंतु जाल्यारीय तिका तागेलो सहाय सदाचि आसतालो. फूल पेर आंबो सगट एकेक वेळार तिका हाणु दितालो. धाव्यांतुले परीक्षेंत ताका संस्थानांतु तिसरें रैंक मेळ्ळेलें विसरूक जायना. सुरेषालो फोटो आयलेलीं पेपर तीणे सूक्ष्मेन काणु दवरलेलीं. केद्दो संतोषु जालोलो. तिगेले पावटी तिका फस्ट क्लास मेळ्ळेलें सरी तागेलेच सहायान म्हूण ती जाण. तें मेळनूय तिका लागी खंय कोळेजांतु सीट मेळ्ळेंना. दुरगांवांतु होस्टलांतु राबून तं ती कोळेजांतु शिकिल्ली. होड दुःख जातालें. केदनाय सुरेषाक दिकूक जावना म्हूण ती साबार रळ्ळी.

मागीर बरपांतुल्यान तं तांगेलो स्नेहु वाड्डल्लो. प्री डिग्री जावनु डिग्रीक पांवतनाच तिगेले घरकारानी सोयरीक सोदूक आरांभिलें. तेद्दे भितर तीणे सुरेषाक तिगेले मनांतु बाम्मूण जावनु प्रतिष्टा दिल्लीच. ताका तिजेरीय तशीच स्नेहु आसा म्हूण तं तिगेलो विश्वास अशिल्लो. तशी तं तिगेले अम्मा लागी तीणे तिगेले मनांतुलें सांगिल्लें. अम्माकय बप्पाकय होड्ड हुस्को जालो - यें चमकतलें वे? जाल्यारीय एकु चांग दीस चोवनु बप्पा पै मामाथंय गेलो. पोरतून येतना बप्पालें तोंड बावनु आसा- ‘आगो धुवे, यी सोयरीक चमकुन्ना गो. पुताक ऐ.ए.एस शिकोंवचाक बेसला तं पै माम. एक कळक्टराक साजूचें न्हय खंय यें बंधुत्व-’

तिका होड दुःख जालें. जाल्यार सुरेषालो स्वंत निश्चय इत्तें म्हूण कोळूक ती चोयली. एक दिसा सांजे ताका ती वाटेर राकून राबीली. जाल्यार तिका दिकूनातीले वरी वाटेचे कडेचान तो चमकून गेलो. फातोर जालेल्यावरी ती राबिल्ले कडेच निश्चल राबून गेली. मनां भितर एक होडी शून्यता दिसली. हरदें पोकोळ पोकोळ दिसलें. दोळ्या उदाक आटू भितर रोणु रोणु तीणे उणेच दीस काळ्ळे. जीवित व्यर्थ जालें म्हूण तिका दिसलें. माका आनीक विवाहूच ना म्हूण तीणे एक निश्चय काळ्ळो.

ती बि एड शिकीली. टौणांतुले स्कूळांतु तिका जोलीय मेळ्ळी. ते उपरांतें तं तिगेलो बप्पा आठयनासतना गेलोलो. बप्पान वचून एक वर्ष जाव भितर अम्माय गेली. 'आतां माका हांव मात्र!' अशी एकेक वेळार तिगेलें हरदें रडतालें. जाल्यार स्कूळांतुलें जीवित आनी चेरडुवांलो स्नेह सगट जावनु तिगेलें जीवित साधारण रूपान मुकार व्हरूक अशिल्ली त्राणी मेळ्ळी. सहप्रवर्तकांकडे थाकूनूय स्नेहु आनीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. तशी स्कूळ आनीक होस्टल जावनु तिगेलें जीवित मुकार वता.

ती राती तशी उडगासांतु बुडून पोवनु गेली. सकाणि उटायतना परणे उडगासांक, परणे जीविताक आनि परणे दिसाकय मनांतुल्यान पुसून उडोवनु ती सदांचे वरी स्कूळांत गेली. लेका पशी चड जावनु एक पीरीयड शिकयलें. कांय चुकयलेंना. कसलोय परिभ्रम कांय दिसलो ना. दीसु तशी गेलो. जाल्यार सांज जातना तिगेलें मन हरदें चंचल जालें. आजीय फोण करतोलो बी वे? इत्तें सांगूका? इतलेच काळानी आतां इत्या अशी उलोंवचाक सोदीता?

अशी चिंतेंतु बुडून स्वता लागीच जाप निमगून वचे तिजे लागी जावनु एक धवें अंबासडर कार येवनु राबीलें. कारार थाकून कोट घालोलो मनीष खालाक देवलो आनीक तिजे लागी पावलो. काळें षू, काळो कोट, जाल्यार केस अर्दय पिकल्याय. तें तोंड चोयलेले तिगेलें अंतर एक क्षणाक आर्द्र जालें तरीय मनांतुलो कोपु तेद्दे भितरि उटायलो. तीणे दृष्टी खालाक कोरनु पावल मुकारी दवरलें.

'सुधा, एक मिनिट राब. हांवें सांगूचें एक आयक-' सुरेषान मंद ताळ्यान सांगीलें.

तीणे नेणतनाच तिगेलो ताळो होडु जालो 'इत्तें की तुमकां आतां सांगूक आसा?'

'तूं आतां ये कारांतु चड. हांव तुका सांगून दीविन....'

सुधा तागेले तोंडार चोयली. तीणे ये पर्यंत दिकूनातीलो एकु दुःखभाव थांगा भरलोलो. ती अर्द मनान जाल्यारीय कारार चळ्ळी. ताणे सांगिल्या भायर कांय तीणे करप ना आशिल्लेंच मू!

कार समच समुद्रा पाडीक धावलें, दोगांय निशब्द आशिल्लीं. सीटार तीं समच मुकार चोवनु बेसल्लीं तरीय तांगेले दोळे आनीक अंतर आळता पेळतांतु दृष्टि उवाळतालीं. कार राबोवनु सोणु ड्रैवर भायर देवनु चिके दूरा चमकीलो. तावळी सुरेषान सांगीलें-

'सुधा, तूं मेजेलागी क्षमा पांवका. मिगेलो बप्पा कारण माका एकि होडि चूकी धारण जालेली. ते निमित्तीं तं हांव तेद्दूस तुजे लागी थाकून दूरा गेलोलों. हे लागी तं माका सत्य कळ्ळेलें. मरण शयेरी तं बप्पान तें सांगिल्लें. मिगेले चांगा खातीर केलेलें खंय, मिगेले चांगा खातीर!'

ती जीब देवनु गेलेले वरी ताजे तोंडाकच चोवनु बेसली. इतें सांगता यें! ते दोळे भोरनु विकरताय मू!

'तेद्दूस तुगेलो बप्पा सोयरीक घेवनु आयलोलो मू? मिगेले बप्पान मिजे लागी सांगिल्लें इतें म्हळ्यार तुगेलो बप्पा येवनु आमकां सोवनु ताकीद दीवनु गेलो म्हूण तं! हांव तुजे मागल्यान भोंवता म्होणूय आमगेलीं जातकां कशीय पोणु येना म्होणूय सगट तुगेले बप्पान सांगीलें म्हूण तं मिगेले बप्पान फटी सांगिल्ली. माका व्हारडीक केल्यार तूं विधवा जातली म्हूण खंय जातक चोयतल्ले सांगताय! ते फटवणेंतु हांव पोळ्ळों!'

सुधाक गद्गद आयलें. थरथरेवंचीं उतरां तिगेले ताळ्यांतुल्यान फुटलीं- 'हांव तेद्दूसच विधवे वरी जाली...'

तिगेलो निर्जूळ हातु ताणे हातांतु काळ्ळो 'हांव जाण सुधा. मिगेलेय जीवितांतु वेगळी एक बायल ना- तावळी जाल्यारीय आतां जाल्यारीय. तूवें आनीक मिजे लागी थाकून दूरा राबूनज. आमकां एक नवें जीवित आतां आरांभुया!'

दूरा सूर्याची आनी समुद्राची एकमेळि जाता. हांगाय दोग जाण तोंडा तोंड चोवनु अत्यंत हर्षु पांवताय!

# एक विस्मयचिह्न

राजूली जापानाची यी भोंवडी जापान सरकाराले आतिथ्यार तं. ताका प्रियंकर अशिल्ले ‘अंटीक’ आंगड्यांकडे तो प्रथम जावनु पावला. आंगड्यां मुकार भोरनू की चेयन लांबोवनु घाल्यांय. तांतूलें एक ताका होड परिचित दिसलें. ताजेरी एक म्हांतार्यालें आकर्षक आनी संतोषप्रद तोंड आसा. तें ताकाच चोवनु तशी हासून आसा!

राजूले पाय खीळो मारल्यावरी थांगाच राबले. तागेले मनांतुल्यान जायते उडगास अमसरेवनु आयले. असलेच एक की चेयन कारण तागेले जीवितांतु कसकसले संभव जाल्याय! ताणे जापानांत पांवचाक आशिल्लें कारण सरी तें की चेयन!

कोची ज्यू टौणांग थाकून तं ताणे तेद्दूस तें परणें की चेयन घेतल्लें. अंटीक वस्तूंचो होड मोगी तागेले कंपनीचो एक उन्नत उद्योगस्थु येतना ताकाय घेवनु राजू थांगा पावलोलो. ताणे मस्त सग घेतलें जाल्यार राजून केवल तें की चेयन मात्र घेतलेलें. इत्तें की एक होड आकर्षण राजूक ताजेर दिसलें. एक सान बलिष्ट बोळें, ताका लागून एक सान चेयन, आनीक चेयनार एक रुंबडा येदें गोळ. लोहाचे ते गोळा उंचारी एक म्हांतार्यालें हासूचें तोंड. ताणे तें घराकडे व्होरनु घासून धुवनु तकतकायलें. आनीक ताजेर स्कूटराची चावी घाली. तशी तें की चेयन सदाच तागेले पोकेटांत आसतालें. होड अपायांत थाकून तीन फंता ताका ते की चेयनान तं वांचयलोलो म्हूण आतां ताका संशय ना. जाल्यार तावळी तें कळना आशिल्लें.

कंपनींतुलें एक बोयलर बहु उंचार तं. दोनी माड्यांची उंचाय आसतली. तें चांग करूक म्हूण चळ्ळोलो राजू पाय चुकून खालाक पोळ्ळो. समच खालाक पोळ्ळोलो जाल्यार जीवंत वरचोना आशिल्लो. जाल्यार स्वल्प सोणु खालाक एकडे केलेले परणे साकांचे राशीचे ऊंच तं पोळ्ळोलो. अप्रूप

भाग्य! हात पाय स्वल्प झरकटेले म्हूण मात्र. एक अत्भुत शक्तीन रक्षण केलेले वरी तो वांचोलो.

दुशेरो संभव स्कूटराचो अपघात. एक लोरी तं येवनु आडळ्ळेली. चेपून वांकूडें तेंकूडें जालेलें स्कूटर चोयल्यार कोणाकय कळतलें केद्दें होड अपाय म्हूण. संभव दिकिल्लींय तेंच म्हण्टाय. जाल्यार ताका चड कांय जालें ना. हात पाय स्वल्प झरकटेले मात्र. स्कूटरार थाकून कोण की काणु उडकायलेले वरी तं ताका दिसल्लें. वाटेचे कडेन आशिल्ले एक सान झाडाचेर तं तो वचून पोळ्ळोलो. कायरीं आयकून बायलेन तेत्तीस कोटी देवांकय उपकार सांगीलो!

ते उपरांतें ताणे बसार तं वचप. तावळीय एक अपाय आयलो, आनीक तिसरे फंताय तो वांचोलो. बसार तेदूस ड्रैवराचे मागालानच जावनु तो बेसोल्लो. स्पीडार धांवता आसतना बसाचें ब्रेक गेलें. ड्रैवरालें कंट्रोळ सोणू बस धांवता. एकडे पांवतना ताणे होडान बोब मारून बसावेल्यान भायर उडकी मारली. बसार आशिल्या सर्वानी बोब घाली. राजू होगी ड्रैवराले सीटार चोणु बेसोलो. ताणे स्टियरिंग धरचे वेळार पोकेटांतुलें की चेयन खाल पळ्ळें. तागेलो पाय बसाचे ब्रेकार दामोलो आनी तत्क्षण बस संत जालें. मागीर राबीलें!

ताकाच आश्चर्य जालें. बसार आशिल्यांनी ताका साबार उपकार सांगीलो. टू वीलर मात्र चलोवनु परिचय आशिल्ले ताका कशी तें धैर्य आयलें म्हूण ताकाच मनांत जालें ना.

ये तीन अपाय जावंचे वेळारीय तागेले हातांत तें की चेयन आशिल्लें. यें कायरें ताणे तागेले बायले लागी सांगीलें. जाल्यार तिगेलो विश्वास वेगळो- 'हांव देवळा देवळांत तुमगेले खातीर इतें सर्व आंगवण करता म्हूण तुमकां कळता वे? देवालेच दयेन तं यें सगटय!'

मागीर वेगळेय वाटेन ते की चेयनान अत्भुत दाकयल्यां. तागलें नांव बरयलेलें एक नवें की चेयन ताका उपहार जावनु मेळ्ळें दिकून ताणे तें परणें

की चेयन घरांतुले आलमारेची चावी घालूक काळ्ळें. ते उपरांतें ते आलमारेचें ऐश्वर्य साबार वाड्डलें. तांतू के दनाय कशीय पुणि दुडू येतायीच. एक दोस्ताक धा वर्ष फूडे दिलेलें उशीणें आतां पोरतून मेळ्ळें. बायलेले घराकडे थाकून कांय मेळना म्हूण लेकिल्लें. ये वेळार थांगाचो वांटोय मेळ्ळो. जाल्यारीय बायलेक ते की चेयनार होड विश्वास कांय ना. ती सांगता - 'हांवें नवी आलमारी कोरूक प्रत्येक ओर्डर दिलेलें आनीक चांग जावनु करयली. ताजें ऐश्वर्य तं यें!'

ते वेळार तं चोवतो अपाय जालोलो. दोस्ताले स्कूटरार मागल्यान बेसून वचे वेळार अक्सिडेंट जालें. ये पावटी हातांत तें की चेयन ना आशिल्लें. अपायांत पायाक होड फ्रक्चर जालें. सर्जरी कोरका जाली. दोनी मासांक आसपत्रेंत निदेवंका जालें. जायते कष्ट दूकी भोगूका जाली.

आसपत्रेंत थाकून पोरतून येवन घराकडे विश्रम काडचो वेळ. एक दिसा तागेले सात वर्षांचे पुतान आलमारेचें की चेयन काणु खेळूक आरांभिलें. ताजेवेलें म्हांतार्या तोंडाचें लोहाचें गोळ ताका इष्ट जालें - 'बॉळ!' ताणे तें पागारार बलान विंदीलें. तावळी तें गोळ भेतुन दोनी अर्दीं जालीं आनीक तांतू थाकून एक कागता कुटूको खाल पोळ्ळो. ते कागतार कसलेंच की बरयल्यां, खंयचे की भाषेन!

ते कार्यांत ताका तागेलो आत्ममित्र हरीलो सहाय मेळ्ळो. हरी लागी ताणे सर्व कायरींय विस्तारान सांगीलीं. कागतावेली भास जापानीस म्हूण हरीन सांगीलें. यूणिवर्सिटींत ती भास शिकोंवचे प्रोफसेरा लागी तीं दोगंय गेलीं. कागता कुटूको वाचून ते जापानकार प्रोफसराक होड आश्चर्य जालें. ताणे सांगीलें - 'अत्यंत सुप्रधान एक कायरें तं हांतू बरयल्यां. जापान राज्याचे राज्यरक्षारंगावेले एक शास्त्रज्ञालें अतीव रहस्य रूपाचें एक बर्प तं यें. एक सुप्रधान सोफ्टवेर ताणे तागेले आपत्कालांत एक कोटेंत निपोवनु

दवरलें आनीक ताजो विवर तं ये कागतार बरयला. यें कायरीं तुरंत कोळोंवका जालेलें ई मेल हांतू सांगल्यां. हांव यें आतांच ई मेल करता वे?’

तान्नी ‘जायत’ म्हण्टना ताणे थांगाच थाकून ई मेल पेटयलें. कागताचें स्कन कोरनु तं ई मेल केलेलें. ई मेलाचेर प्रोफेसरान स्वंत नांव आनीक फोण नंबर कळयलेलें. निमिष भितर तागेलें फोण वाजलें. फोण काणु तो जायतें साबार जापान भासेन उलयलो. मागीर फोण दवरनु तो तांचे सम घुवलो.

ताणे सांगीलें - ‘जापानाचे राज्यरक्षा मंत्रीन तं आतां उलयलेलें! तुमका तान्नी तांचो हार्दीक धन्यवाद दिताय. ते शास्त्रज्ञाक एक अपाय आयलो. दुष्टांले हातांत थाकून ताणे राज्यरहस्य वांचयलें तरीय तो स्वय मृत्यूक पात्र जालो. तागेलो जीवत्याग व्यर्थ जालोना. ते तुमगेले की चेयनान तागेलें लक्ष्य साध्य केलें!’

प्रोफसरान सांगिल्ले प्रकारीं ताणे तागेलें नांव आनीक विलास बोरोवनु दिलेलें. तिसरे दिसा ताका जापान सरकारांलें पत्र आनीक आदराचें क्षण मेळ्ळें. तांचे आतिथ्यार जापान भोंवयात! तशी तं राजू जापानांत गेलोलो. ताका स्वीकार करूक सरकार प्रतिनिधींचे ओटू ते दिवंगत शास्त्रज्ञालो दंदकारी अनीक विश्वस्त असिस्टेंट आयलोलो. ते दंदकारान तें की चेयन तांगेले खंयचे एक देवळाकडे थाकून प्रत्येक जावनु पुजून मंतरसून घेतल्लें खंय! तागेले यजमानाक जीवरक्षण दिंवचाक जावनु तं ताणे तें ताका दिलेलें. जाल्यार शास्त्रज्ञान ताजो वेगळोच उपयोग केलो! कशीय जाल्यारीय की चेयनान स्वंत कर्तव्य निर्वहण केलेंच!

शास्त्रज्ञालो विश्वस्त असिस्टेंट आतां पर्यंत जावनु जेलांत तं आशिल्लो. ताजेर तं पोलीसाक संशय आशिल्लो. आतां तो मोचित जाला आनीक तागेली प्रत्येक कृतज्ञता कोळोंवचाक एयरपोर्टांत आयला. राजू तागेले घराकडे गेलो. ते कुटुम्बाचो संतोष दिकून राजूक जापान सरकाराले स्वीकारान मेळ्ळेल्या पशी होड आनन्द दिसलो.

ते अम्मान ताका पोटोवनु धरलो आनीक तिका कोळचे इंग्लीषान सांगीलें - ‘यू फ्रम इंडिया - बट यू माय सण!’ (तूं भारताचो जाल्यारीय मेगेलोच पूत तं)

ते शास्त्रज्ञाले ओटू तं राजू आतां जापानांतुले पौराणीक ‘अंटीक’आंगड्यांकडे पावलोलो. आनीक सुपरिचित दिसूचें तें हासूचें तोंड थांगाचे एक की चेयनार दिकिल्लें. राजूले तोंडार हास विस्कळेलो -

‘तूं एक विस्मयचिह्न!’

ताणे तें की चेयन मोलाक घेतलें......

# - शब्दार्थ -

कुडियाळांक - मुंडकारांक

ओप - सय

तेक्का - दक्षिणेचे

तेक्किनीचे - होवरेचे

कषिक्कलारि - पाश्टा पाट्येर

अडित्तरेक - बुन्यादीक

ताट्याचे - पाख्याच्या

वार्पांतुल्यान - काँक्रीटांतल्यान

चोर्चा - गळटी

कुपियांत - बाटलेंत

कारनोरू - म्हालगडो

कर्कड मासु - 'कर्कड' नांवाचो म्हयनो

बेळुवावेल्यान - मैदानांतल्यान

बोर्यां चोगो - पट्यां खोमीस

कोटेंत - दुर्गांत



# राधिका शेणै

कोंकणिशेरी नारायण कामत आनी श्रीमती वेदवती हांगेली धूव जावन 1960 वर्षा पळ्ळुरुत्ती गांवांत जन्म. पळ्ळुरुत्ती आनी कोची गांवांनी शिकवण. केरळ सर्वकलाशालेंत थाकून बी कोम पदवी जोड्न 'केलट्रोण' हांगा काम करता. 1987 वर्षा श्री शरतचंद्र शेणै जावन विवाह. हांगेली धूव दीप्ति आतां विवाह जावन बंगलूर राबून आसा.

श्रीमती शेणैक दृश्यश्राव्य कलारंगांचेर तान आसून पळ्ळुरुत्ती जी.एस.बी. वनिता कलाकेन्द्र, जी.एस.बी. बाल कलाकेन्द्र हांच्या कला कार्यक्रमांत सजीव जावन प्रवर्तन केल्यां आनी थोड्या कार्यक्रमांचें संघटन केल्यां. 2001 वर्ष धरून हांच्यो कथा 'वैष्णवरत्न', 'सारस्वतवाणी' अश्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्याय. केरळच्या कोंकणी साहित्यांतुले वनिता प्रतिभेंचे साहित्य संकलनग्रंथांत (साहित्यदीप्ति) हांचें सान्निध्य आसा. 'वैष्णवरत्न' मासिकेचे दशाब्दि समारोहाचे वेदीचेर (2009) कोंकणी लेखिका म्हूण हांचो भोवमान जाला.

श्रीमती शेणैली आवडीची विनोदवृत्ती म्हळ्यार स्वंत घराकडेचें उद्यानपालन.